घसघसता परतो झोत
सुक्या सांत्वनांचें वल्हें वल्हयत
अश्वत्थामी वेदनेचें रूं
तशेंच उक्तें भळभळताना

कवळिल्ल्या मळबात खरें म्हळ्यार
आसपाक जाय आशिल्लें
पुराय पितारिल्लें ब्रह्मांड
अस्तित्वाक ल्हवपीक आल्लय दीत
उदकावरी खळखळपी
चैतन्यमय सळसळपी

मागीर आयज अशें कित्याक जाता?
हें दिसा सपन, काय हो भास?
ना ना, हो तर अस्तित्वाचो
धुंवरात शेणिल्लो आभास
शिटकायता म्हज्या इश्टानों
नासत घडये बसपाखातीर
हें न्हंयचें तडिवेलें तळप
नासत कवळून घेवपाखातीर
हें निळें निळायेचें मळब

## 19.
## त्या दिसा

त्या दिसा फांत्या पारार धवेंच धुकें दाटलेलें
ओठानीं तुज्या ओंठांवेले म्होवाळ थेंबे भेटलेले

नखेत्रांची कुरू गेल्ली काजुल्यांचीं भिरीं गेल्लीं
लिकी लिकी दोळ्यांत तुज्या दोळे म्हजे दिपलेले

कोणाक खबर उतरां मोनी तुजीं म्हजीं चित्रां मोनी
सुनसान वाठाराचेर मोनेच स्वास पेटलेले

धुक्यान दिल्ली मिरमिरी शिंयान आंगांत शिरशिरी
सरसरून ल्हंवेर काटे तेन्ना थंयसर फुटलेले

तलम धुकें दोंगर पिशें देंगण देंगण हुपून अशें
धर्तरेच्या गर्भी पोल्यार सपन रंग हांसलेले

## 20.

## तुजी म्हजी पावल वाट

तुजी म्हजी पावल वाट बेगा बेगी सोपंव नाकां
जड जातली पावलां म्हजीं उतरां तुजीं थारंव नाका

तेंच चान्नें चंद्र तोच शितळ शितळ गंद तोच
वाऱ्या वाऱ्यार धुंद तालर उतरां तुजीं विरंव नाका

सोंस म्हज्या काना मना पानान पान हालतीं रानां
स्वास तुज्या गळ्यातळा उतरां तुजीं निरंव नाका

आपालिपा मळबा मळार बिण्ण काळोख म्हज्या दोळ्यांर
धव्याफुल्ल अळंग कुपांर उतरां तुजीं लिपोंव नाका

झिळीं मिळीं रूखतळा चान्ने शिंतोड जळामळा
पुंजायत बसन अर्थ तांचो उतरां तुजीं रकोंव नाका

जीण म्हजी फुलां शिंवर जिणेत तुजे येवंदी चंवर
फांत्या पारार म्होंव्या सुरांर उतरां तुजीं सुकोंव नाका

## 21.
## बरोंवक सोंदतां काव्य एक

रसाळ म्होवी भास वापरून
करूंक सोदतां दिव्य एक
यमक, छंद, जुळोवन घोळोवन
बरोंवक सोदतां काव्य एक

कितली म्हणून बरोंवची
वास्तव जिणेतली रडवण
सदांचींच दुकां सुकीं
कानांर सदांचीच पिरंगण

जळोवन किल्लयल्ली शेतवड
कितले फावट जळोवं
मारून वडयल्ली वेदना
निबर काळजान मारूं.

लागता बरोंवक लेखणी आनी
उडूंक लागतात शेवणीं
कल्पनेचो वारू स्वैर
करता सप्तरंगी भोंवडी

गुलाबीशी जुवान आनी
सपनाळी रात गो
धगधगता तूं वेंगेत तशी
लकलकता वात गो

तेन्ना तो मेळटा अचकीत
वळखीचो चिरंजिवी
अश्वत्थामी ब्रह्मास्त्री
भळभळायत म्हान कवीत

भगभगीत ओंकता उजो
सुर्याचेंय तेज लिपत
गिरगिरता भोंवरो कसो
दर्याचोय थाव चुकत

जिविताचें रेंवट सुकें
दुकांचोय ना शिंताडो
अस्तित्वाचें बोंदर पिनकें
देह पडला उतांडो

खदखदता ल्हावां रस
उद्रेकाचो जिवाक धेक
कशी वापरूं म्होवाळ भास
बरोंवक सोदतां काव्य एक

## 22.

### रूख

उबो आसा रूख
कडकडट्या हाडांच्या
जख्खड जाण्ट्या मनशावरी
आपल्या किलकिल्या
सहस्त्र मलप्यांची
उघडधाप करीत
घेता दीर्घ स्वास
विखाळी गॅसाचो
आनी सोडटा उस्वास
जीण जगोवपी स्वासाचो
घुस्मटपी मनीस कुळयेच्या
काश्टांत जीव फुंकपाखातीर

उबो आसा रूख
अस्थिपंजर खांदयो गळयत
पळयता खंती नदरेन
सगळींच झोपां गळे अंदिल्लीं
मोडवीं मोडवीं
मातयेक घांस मारून
मळब विसरून गेल्लीं

आंवडो घोंट्टा रूख
मारता नदर दिकांपार
होरायता जगनियंत्याक
वाचय आमकां वाचय देवा
जगय आमकां जागय

23.

## जाण्टेपण

एक स सात वर्सांची जाण्टी
मांडून बसल्या पसारो
मुंबयचे मरीन लायन फुटपाथाचेर

तिचे चार पांच वर्सां पिरायेचे
नेण्टे नातू
हाडटात पुंजावन
कुडके रद्दीचे
उस्टायिल्ल्या वर्तमानाचे

जाण्टी दिता तांकां
चौकोनी आकार
घडयांनी फाळून
भरता आपल्या बोटव्यांत
आनी सोडटा सुस्कारो
आपल्या नशिबाच्या पिनोळ्याचेर

नातू जळपतात
रद्दीचे उश्टावळीक
घुस्पतात शेंकड्यानी धेंगानी
सुसंस्कृतांचे धांवपळींत
आनी नकळटां मारतात धेपां
संवकळीचे वाटेर
जाण्टेपणाचे

## 24.
## काजळी

उजवाडाची वाट पळोवपी उदेंत
घोंटेरांतसून भायर येंवक सोदपी शेवर्णी
एका भव्य आरसपानी देवळांत
सुचीत शांत नितळ थंडसाण
आनी रातभर पेटून
काजळीन कलय आयिल्ल्यो दिवल्यो
तुज्या लांब सडसडीत बोटांनी
घासून पुसून लख्ख करपी तूं

तूं कोण तें हांव नकळो
तूं पळोवन अनवळखी
तूं कळून ना नाकळपी

तुज्या नितळ मुखामळार
रातच्या काळखावरी
सया मारता काळसरशी
इतलेंच जाणवता

दिवल्यो चकचकायतना
तुज्या कपलार लागता
धुंवरी धुंवरी घस
तुज्याच बोटांची
तुकां कळ नासतना

रातभर पेटून पेटून
आस्वस्थ जावन न्हिविल्ल्या
दिवल्यांतली ही घस
तेलकटशी, बुरसटशी
पुरायेन तुजे नितळसाणीक
वेंगावन बशिल्ली

घडये तुकां ताची जाणीव
आसत नासत
पूण एक मात खरें
सकाळच्या सुर्याच्या उजवाडांत
त्या काजळी दागाची व्याप्ती
चड आनी चड जाणवता
गडद काळी काळी जायत वता

## 25.

## येयात, आमी शिगमो खेळुंया

येयात आमी
शिगमो खेळुंया
होळी झुजोंवया
नेमात घालुंया
तुरो मिरोंवया
शिरेर मदेंवया
शिंगां दाखोंवया

बडयले आमी
बेगडी धोल
कागदी ताशे
पोकीं काशाळीं

मिरयलीं आमी
खांदार तरंगां
माथ्यार घुडयो
कपलार तिबे

आता झंजाळुंया
अडेचीं म्होवाळीं
नडेचीं कर्तुबां
पिडेचीं मनां

आनी काडुंया भार
अंतरआत्म्याचो
मुळपुरूसाचो
आत्मचिंतनाचो

रंगांत रंगुया
लाल गुलाबी
घन घन निळ्या
चैतन्य सागरांत

येयात आमी
काळोख व्हळोंवया
दिवल्यो पेटोंवया
शिगमो खेळुंया....

## 26.

## सान्न

घरांत, घरभर जाल्यो
कोयराच्यो राशी
तेन्ना हाडली एक
सोबीत हिरांची सान्न
मुगडो बांदिल्ली

लायलो तिच्या कपलाक
हळदी कुंकमाचो तिबो
तेन्ना पडले तिचे होटयेंत
सर्वय अस्तुरींचे कर्मभोग आपशींच
माग नासतना.

सान्न रावली निवळ करीत
हुमरो, चौक, साल,
कोनशान कोनसो
पयलीं आवाज करीत
मागीर कमर बागोवन

तिकाच कळुंक ना
केन्ना झरले तिचे हीर
जालो वेतभर खुराडो
पावली मागीर दाराचे भितोडेक
गू घाण निवळ करपाक

जगावेलो कोयर घेवन
हांवूय पावलों भितोडेक
तेन्ना झाडलो तिणें म्हाका
मोडिल्ल्या हिरांची
लज धापीत
भुंयकांपत्या मोन्या स्वादसानी

## 27.
## बावटे

कितले नाचयले बावटे
केन्ना हातांत धरून
माथ्यार मारून
तर केन्ना माथेफिरू जावन

बावटे तरेतरेचे
रंगरंगयाळे
झालर लावन
बेगड लावन
चकचकीत
लखलखीत
रंग आसुनय कांय बेरंगी

बावटे पार्टींचे
गांवांचे, नांवांचे
धर्माचे कर्माचे
भळभळट्या वर्मांचे
जातीचे, कातीचे
पोटजातीचे
पोटांतले मळमळीचे

बावटे दोंगुल्लेर
फांतरांचेर
रस्त्याकुशीन
झाडामुळांत
झाडा तेंगशेर
घाट माथ्यार
न्हंयच्या फांट्यार
गुंवात तशे घाणितूय

थकलों
लावन लावन बावटे
पडलों उदारो
पळयत
दोळे सताड उगडून
वांट्कुळ्या निस्तेज सुर्याक
कसलेशे घुमटेवेल्या
बावट्या फाटल्यान
अस्तमताना

तेन्ना जाणवलें
म्हजे भितरले
सद् चित् चवायेचेर
तसोच उरला एक बावटो
लायनासतना
घडी करून

ताकाय आतां
नाचोवपाक जाय
अंतर आनंदाची
घुडी उबारून

## 28.

## बोगदो

बोगदो सद्दां रावता उबो
माथ्यार जडशें वजें घेवन
उबाळ धिटाय कांबळ घेवन

ट्रेनी येतात धडधड करून
सुख दुख्खी लोकांक घेवन
कर्मकांडां वांगडा घेवन

कलकलता काळीज काळजेन
लोकांचो आक्रोश आयकून
केन्ना किळच्यो केन्ना गायन

तरीय वाट पळयता बोगदो
जरी ट्रेनी येतात धांवून
किटाळां माती धुळ्ळ घेवन

येतात ट्रेनी दोनूय कडसून
जाता खिणभर धरणीकंपन
घुट्टा स्वास काळीज करपून

जाणा जावनूय बोगदो उबो
दर्यावरी खवदळ गिळून
सुर्यावरी भगभग घेवन

उबो आसां हावूंय जसो
बोगदो जावन वजें घेवन
उबाळ धिटाय कांबळ घेवन

## 29.

## गवाय

धुल्ल, धुंवर आनी बोबाटीन
एकाद्या सुशिक्षीत
बेकार तरणाट्या भशेन
बेजारिल्ली, पिंजकी
रखरखीत दनपार

रस्त्याचे कुशीक
तुंबलेले खळयेंत
अशाच एका खडबडीत मनशाचे
भुंयेक घांस मारून पडिल्ले
निर्जीव कुडिचेर
चादर कशी पातळळ्या

सरकारी कागदाचेर
बेवारशी मडें म्हणून
नोंद जातकच
दनपार विडविडटा
करता याद
ह्या मनशा सांगातान
घालयल्लीं मर्णापयलींचीं
सगळीं वर्सां
वेतभर पोट आनी
साडेतीन हाती भुंयेखातीर
चलिल्लो संघर्श
ताचे जिणेंतले
हर एक
रखरखीत घटकेची
गवाय जावन

## 30.
## आनीक एक पोर बेघर जाता

आनीक थोड्याच दिसांनी
बांदकाम पुराय जावपाक
आयिल्ले हे इमारतीचे एके कुडींत
म्हज्या संवसाराच्यो
दळडिऱ्यो वादऱ्यो शिंपडून पडल्यात.

चार पोरांचें लटांबर
म्हज्या बेघर संवसाराचे चार खांबे
फाटीर मारिल्ल्या म्हज्या संवसारावांगडा
फरफटत येवन ह्या चार कोनशांनी
चिऱ्यांचे मातयेंत आनी
झडिल्ले रेंवेत मुंगरून पडल्यात

हांव आनी म्हजी अस्तुरी
हजार वेळा उदारीं पडून
देवाक होरायत आयल्यांत
"इमारत पुराय जावची न्हय, आमकां उपाशीं मारचें न्हय
तांकां घरदार दितना आमकां बेघर करचे न्हय"

आतां हावें
देवाक दुशणां दिवपाचींय सोडल्यांत
कर्मभोगाचेर भाशणां आयकुपाचींय सोडल्यांत

दीस येतात, दीस वतात
पोट भरतां भरतां भूक मरता

पोरां जातात, पोरां जगतात
पोरां मरून वतात
तिनसांजचो सुर्या सकयल देंवतकच
कूड गडद गडद
बिण्ण काळखी जायत वता

सदचेवरी रडून भेकून
विकळाप करून
पोरांच्यो कुडी
विखरून पडिल्ल्यो आसतात

आनी हांव, सूरसम्राट
उपाशीं पोटार घेतिल्ल्या कोपानेटार
एक कोनसो धरून थपकल मारतां

त्या दुसऱ्या कोनशाक
म्हजी अस्तुरी
गर्भभार सांबाळीत मातृवेणो सोंशीत
गर्भाक वाट करून दिता

ही कितवी पार्त
तें हांव नकळो पूण
तिची सुटका करपाक हांव आदार दितां
आनी तेन्ना आनीक एक पोर
बेघर जाता...

## 31.

## गुरू

जगतना केन्ना केन्ना
मर्णाची याद येता
दुयेंसांची, अपघातांची
घातपाती कर्तुबांची
आसमानी संकश्टांची
अर्दी मर्दी सुलूस घेतां

लाचारीचे दलदलिंतल्यान
सुवार्थाचे गुट्टानिंतल्यान
वाट काडीत पळ काडीत
न्हंयचे तडीर धांव घेतां

बसतां पळयत दंग जावन
व्हांवत्या उदकांत नदर लावन
भिरभिरती नदर घुंवत
शेरनीच्या झोंपार वता

उदका लोटांत झेझरून गेल्ली
हुंवरा पावसांत बुडून गेल्ली
नगन नागडी जाल्ली शेरन
पाना पान आंकरून येता

जैतिवंत तो शेरनी तुरो
आंगार म्हज्या फिरोवन घेतां
सैरभैर जाल्ले जिणेंत
तिच म्हजी गुरू जाता

## 32.
## म्हजे मोगाळ भयणीक...

म्हजे मोगाळ भयणी...
भावबिजेक हांव येवचो म्हूण
धाडिल्लो तुजो रकाद
म्हाका पावलो

नरकासुराचो गोबोर करून येवपी
भयणीची राखण करपी
कर्तृत्वी भाव
अशी तुज्या मनांत
वर्सान वर्स आशिल्ली म्हजी प्रतिमा
परत एकदां जाणवली

हांव येवंक ना
म्हणून तुका राग आयला आसतलो
पूण कितले दीस हांव
म्हजे म्हाकाच फटोंव?
हांव कृष्णावरी जावंचो
नरकासुरां सारकिल्ल्या राक्षसांक
काबार करून वडोवंचे
अशें तुका दिसप
सभावीक आसा

म्हणून जायते फावटीं
कृष्णाचो कर्मयोग
रासक्रीडा - कामक्रीडा
सगळें सगळें अणभवपाचो यत्न केलो
पूण अजून मेरेन
कृष्ण म्हाका
होलमूंक ना

जंय जंय म्हणून हांव पावल घालतां
थंय थंय वास्तव समाजाचें
पोजडें, कुसकें, बुरबुरीत बांबर
म्हजे कुडिसयत आंतरीक तत्वांच्या मुळांमेरेन
म्हाका पुरून वडयता
म्हजे अनंतात झोपय मारपी नदरेक
चिखल कोंडांत बुचकाळून वडयता

पयर दिवाळे दीस
सोवळो शिरंगार करून
पंचारत घेवन तुजी वयनी
म्हाका ओवाळूंक आयली तेन्ना
जैतिवंत योद्याच्या झेतान
हांव उबो रावलों
आदर्श घोव जाय म्हणून सपनेल्ल्या
तिच्या भावार्थी दोळ्यांनी
निर्शेवणीची ल्हारां सळसळिल्लीं
म्हाका दिश्टी पडलीं
वाती वातिंतलें तेज घेवन

पर्जळीत लखलखांत
उबी आशिल्ले अस्तुरे मुखार
हांव किट्ट काळखाचो
बावलो कसो उबो रावून
म्हज्या काळोख बिण्ण कर्तुबाचीं चित्रां
यादिंच्या आल्बमात परतीत रावलों

राती खेळयिल्लो नरकासूर
त्यो गाळी, तो सोरो, तीं धुमशेंणां
आनी निमाणेकडेन
धोल ताशांच्या कलकलाटांत
झिळीकाळखाचे अडगळींत
कोणा पापणे अस्तुरेची
आसमंतात विरून गेल्ली
मनीसखायरी किळांच
आनी कमकमून नरकासूराक पेटोवपी
जिबोळ्यां कणकणी
नरक जावन वळवळपी
म्हजेसयत कितलेशेच जीव
नरकासुरापाशट प्रवृत्तीनी भरिल्ले

तुजें आपोवणें
म्हज्यान न्हयकारूं नजो
हांव केन्नातरी येतलोंच
पूण म्हज्यांतलो
नरकासूर लासलेबगर
तुजे भावनेतल्या भावार्थी कृष्णाक
हांव कसो दुखोंव?
तूंच सांग
... तुजो मायेस्त भाव

## 33.

## पावस

काळ्या निळ्या गच्च
कुपां फाटल्यान
म्हज्या मनाचो नितळ दर्या
वावझडिची सुलूस घेत
अंतर्यांमी ल्हारेता
कुपां काजळ मोनीं
उदकाळ तोल सावरीत
धर्तरीक वथरेतात
म्हज्या मोगाळ इश्टा
वाऱ्याची ल्हानशी
थरथरती लकेर
अंतराळ माग काडीत
सृजन रकाद धाडशीत?
तुका उटंगार
पावसान न्हाणयन....

## 34.
## मन चिप्प ओलें ओलें

मन चिप्प ओलें ओलें
अंत ना पार अशें मळब निळें
अदृश्य यादी, अस्पश्ट दिश्टी
अथांग अचल मना तळें
भिरिभिरी नदर अडोगी वारें
कितलें फट कितलें खरें
झडून फुलां पाकळ्यो पाकळ्यो
बीज उरलें फळ बरें
उचंबळ मन खवदळ दर्या
भरतेंत आमोरी निस्तेज सुर्या
फेस शिंवरून ल्हार ल्हारेता
सांबाळून तारूं व्हलय रे तारया
दिश्टी पार हें ब्रह्मांड निळें
रेवेंत बसका सैरभैर दोळे
चंचल यादी आंग शिवरेंता
मन चिप्प ओलें ओलें

## 35.
# धुकें धुकें मनांत म्हज्या

धुकें धुकें मनांत म्हज्या
किर्णां तूं घेवन यो
काळेकुप्प जिणेंत म्हजे
सुर्या तूं जावन यो

नक्षत्रांचे लामणदिवे
केन्नाच कोणे पालयले
काळजांतुले दिवलेक म्हजे
मळब ध्यास घेवन यो

फुडेंच पडटात पावलां म्हजीं
नदरेंत म्हजे धुकेंच धुकें
जिणे दिश्टी चुकत म्हजी
मोगा वाट दाखोंवन यो

मिरिमिरी धुकें पडलां
थंड शितळ वारें सुटलां
शिरशिरी आंगार म्हज्या
मोगा उबाळ घेवन यो

## 36.
## सर्ग वाट

दोळ्यांत तुज्या सर्ग वाट चलतां गो हांव
हाडूं नाका दोळ्यांत दुकां चुकत म्हजें पावल

वाट भोव मोलाची ही
काळजाच्या गो तोलाची
संथ ल्हारां नदरेत तुजे
मळबाचे गो मायेची
चाळोंव नाका वादळवारें दोळ्यांत तुज्या राव

सपनाळी नदर तुजी
वाट म्हाका दाखयतली
परमळीत येवकाराचीं
फुलां वाटेर शिंपडायतलीं
जपून घालतां पावल म्हजें फूल कशें जावं

सोशेंता गो जीण म्हजी
अमृताचे आशेची
सासणाची धार बाये
तुज्या ओठांत झरझरची
विस्वाचाचें उदक जाय गो तानेल्लो दर्या हांव
हाडूं नाका दोळ्यांत दुकां चुकत म्हजें पावल

37.

## म्हज्या मन इश्टा

म्हज्या मन इश्टा
तूं योच

विसरूं नाका हाडपाक
पाखां गरुडाचीं
घट दवर मतींत
सपनां मळबाचीं

तुज्या तिक्ष्ण दोळ्यांनीं
पळय धर्तरेर
म्हजी हळशीकावणी काया
कात शेणिल्ल्या सोरपावरी
पडिल्ली आसा भुंयेर

तुज्या हावेसाच्या पाखांनी
शक्त भरिल्ल्या चपक्यांनी
उबार तिका मळबार

दिसूंदी तिका जिणेचो हावेस
कळूंदी तिका मर्णाचो हावेस
कळूंदी तिका मर्णाचो कळवळो
मर्णाचो निमाणो भंय तरी
शिकोवंदी तिका हातपांय हालोंवक

तूं योच
कसलेंय रूप घेवन यो
आनी जागो कर
कुशींत चंद्रीम घेवन
चमचमते तन्ने रातीक

तोखेत बशिल्ल्या म्हज्या जिवाक
गदगदांवन सांग ताका
दोळ्यांतली धग न्हिवत आयली
चंद्रीमाच्या नितळ चान्न्यात

देखून आतां पळय
त्या रखरखत्या मळबाक
घे सोंसून तें आरसपानी वोत
आनी कर तुजी गवाय
त्या माथ्यावेल्या तेजिस्ट सुर्याक

## 38.

## गिरेस्त भुंयेच्या कुस्कुट कणानी

आपल्या पोटाक उजो पेटलो
हें जेन्ना तांकां कळ्ळें
तेन्ना सगळेंच निळें निळें मळब
खळखळ्ळें
दोळ्याचीं कवडुलां
हय न्हयशीं धुंवरेलीं
रंध्रारंध्रांतल्यान
स्वासास्वासांतल्यान पेट घेत
तांचें धगधगतें रगत
धांयदिकांक पातळ्ळें
ते – कामगार
उद्येगीक यंत्रणेत बळी पडिल्ले
वेठबिगारी ह्या सोबीत नांवासकल
आख्ख्या फुडारासयत
चिड्डल्ले, माड्डल्ले
पोट, पोलीस, पोलीटिक्स
ह्या चक्रांत घुंवतां घुंवतां

दळडीर जिणेचे चुरचुरीत लकेरीत
काकळूट, दुस्वास, फकाणांची
हातींत वांटकुळीच कट्टी येत म्हणसर
अस्तंतेची निरस पावलां
सपनेल्ल्या उजवाडाच्या कोनशाक
लाचार जावन वेंगावन बशिल्ल्या
कामाचें मोल कितलें?
कोणें थारांवचें?
पोश्यांत मूत फुड्यांत कूट
कितलें म्हण वळवळचें?
आयज आसा
फाल्यां नासतय बी
हक्क जाय?
घडये कांयच नासत
एक ना दोन
हजार प्रस्नांनी
मालूक कशे पिशांतूर जावन
नेरवांकार कशे
मानसीक स्थैर्य शेणोवन बशिल्ले
भौशीक माचयेवेल्यान
आदर्श मनीस तत्वांच्यो
आडडी मारपी
सवंगी रूपड्याचेर
वास्तव जिणेंचें बुरशें, पोजडें
बांबर मोखून मेकळे जाल्ले

कितले हुमरे झिजयले मंत्र्यांचे
पयलीं अनवळखी
मागीर संवकळीचे जाल्ले
उतरांचो खेळ
कायद्यांची भास
आशेचे दुवाळे
बाकी शुन्य

कोणें कोणाक सांगचें
जंय पोटाकच उजो पेटला
कोणें कोणाक सांबाळचें
जंय मळबच खळखळ्ळां
हांगा गिरेस्त उद्देगीक
मुठभर मुठिनी
समाजशास्त्र आवुळ्ळां
गिरेस्त भुंयेच्या कुस्कूट कणानी
रगत सगळें विरगळ्ळा

## 39.
## हे कुंती

हे कुंती,
म्हजे हय न्हयचे अवस्थेर
म्हाकाय म्हज्या खंयच्या तरी
एका गुरून दिल्लो कानमंत्र
अणभवूंक नाशिल्ल्या
गुमानीत मातृत्वाची ओड
म्हाकाय आयिल्ली तुजेवरी
तेन्ना हावेंनूय आवाहन केलें
म्हज्या तेजिस्ट सुर्याक
तुजो आदर्श इतिहास
म्हज्या शिरंतरांनी घोळयत
हावेंनूय सोंसल्यो मातृवेणो
जिवाच्या आकांतान
पूण हे कुंती
तुवेंन घडयिल्लें म्हाभारत
अजूनय जिवें तट्टीत आसतना
हांव मात भौशीक
रुढी परंपरेच्या जंजाळात
गेलां पुराय गुरफटून
तुजें असामान्य कर्तृत्व
करचेंच पडटा मान्य
असहाय जावन
पूण तुजेपरस
म्हजें मातृत्व उणें
हें हांव कशें मान्य करूं?

## 40.

# काळोख सांसपितां

म्हाका घट याद जाता
शाळेंत शिकतना
"तूं फुडे कोण जातलो?"
अशें विचारिल्ल्या प्रस्नाक
"हेरांच्या उपकारा पडपी
हेरांखातीर जगपी
हांव एक व्हड मनीस जातलों"
अशी सडसडीत जाप दिल्ली

घर, पाटी, पुस्तक
जळीं मळीं सगळेच कडेन
आदर्श मनीस जीण
ध्येयवादान भेरेल्ली
तांच्यो देखी, तत्वां घेवन
संस्कारी नितळ मनातल्यान
चैतन्याची सुखदिणी लकेर
शिरंतरांतल्यान सरसरून गेल्ली

एका अमर अशा
सत्यम शिवम् सुंदरम
राजपाटणात हांव वावुरतां
अशी सपना पडटालीं
आनी तेच भिरकेंत
दिसाच्या चकचकीत उजवाडांत
सपनातलो अविश्कार
चोपड्यांच्या पानापानाचेर
देशाचो नकासो चितारून
सपनातले सप्तरंग भरतालों

पूण हालीं कितें जालां कोण जाणां
सपनां घेवनय भोंवना
कोण विकर्तीय दिनात

न्हिदिल्लेकडेन केन्ना केन्ना
जाग आयिल्लेवरी जाता
हावूंच कोणाचेर तरी
बलात्कार करतां
कोणाचो तरी खून करतां
कोणाक तरी नाड्टां
कोणाक फटयतां
कोणाक तरी फुसलावन
उज्यान घरां पेटयतां

पोलीस धांवतात फाटल्यान
आर्मां आनी लाठी घेवन
धावतां धांवतां खर्शेतां
धांवपाकूच जायना
किळांच मारून उट्ठां
तेन्ना घामान थपथपतां
अशें कित्याक जाता काय?
काळोख सांसपितां...

## 41.
## मन

मनाच्या ह्या मायपासांत
गुतूंन पड्टात मनशां
अचल – चंचल, स्थीर – अस्थीर
मनां घेवन मिरोवपी
मागीर मनाकूच आवरनात
मना फाटल्यान धांवपी
मनाच्योच पावलवाटो
ल्हारांचेर स्वार जावन
अथांगाचो सोद घेवनी मन
कुपांचेर भार जावन
अनंताचो वेध घेवपी मन
केन्ना अपुरबुद्ध, गूढ
तर केन्ना निरभ्र, पारदर्शी

मागीर मनाकच खुणायतात
क्षितिजाच्यो वांकड्यो धारो
धाय दिकांच्या चक्रव्युहाचो
भेद करून
मन झोपय घेता धारे धारेचेर
हांव – तूं, तूं – हांवच्यो वण्टी
रोकड्योच कोसळटात
मनाचे यादस्तिकेवेल्यान
तरी पसून
मनाक आवरपाक जाय
मनस्वी मन अंतर्मनाक जुळोवन
मनाक सांवरपाक जाय
कारण मनच घडयत आसता
आपलो फुडार
आपली नियती
नियतीक शुद्ध मनान
लिप्प न्हाणोवचें आसता
मनाक रिमझीम पावसांत
चिप्प भिजोंवचें आसता

## 42.
## आमी

असहाय आमी हुजरे
जाले आतां भाट
जगपाची आनी जिणेची
हीच आतां नवी वाट

मनीस म्हणून कित्याक जल्मले
प्रस्न हांगा निरर्थक
ध्यास खंयचो ध्येय खंयचें
कित्याक ना रे अर्थ
स्वार्था फाटल्यान धांवत वच्चें
हीच निमाणीं वाट

दोळ्यांमुखार व्हांवून वच्वें
उदका पोंदसून पेवूंन वच्वें
घाण स्वत्व आनी सत्य अनाडी
हीच उफेल्ली नोट

आमीच पेरतां बीं विखाळीं
आंवडेतां वर्गीच अमृत केंसरी
बुद्धीभ्रश्ट आनी भ्रमिश्ट आशा
होच आतां आंवाठ

तरीय निमाणे मनीस आमी
आशा काळजांत घेवन जगपी
ऋतुचक्र घुवोन भोगपी
अंतरात्म्याक सदां होरावपी
म्हणून परतितां लोट

जगपाची आनी जिणेची
हीच आतां नवी वाट

## 43.

## दावें

नदरभर पातळिल्ल्या वाठारांत
घसघसून पोसवल्लें
पाचवें शेत
आनी एका पडींग कोनशाक
घट्ट मारिल्ले खुंटयेक
लांब राजवान आंवळून
बांदिल्लें एक पाडूक
राजवाच्या मर्यादीत व्यासांत
चरोव खावन
रवंथ करीत बसलां
पोट भरतकच
सरभोंवतणी नदर मारता
तेन्ना ताका दिश्टी पडटा
शेकानशेक पातळिल्लें
पाचवेंचार शेत आनी
मुक्ततायेन ताव मारपी
दिगंतांतलीं शेवणीं

तेन्ना ताका सट्ट करून
जाणीव जाता
आपल्या बंदनाची
गळ्यांतल्या राजवाची
तें उटठा धडपडून
ओडटा, हामेता, धांपेता
मानेक करकरून कंगरे पडटात
इतल्यांन येता ताचो धनी
तें पळयता आशेन
दोळ्यांत जीव हाडून
मुक्तीचीं सपनां रंगयत
वथ्रेवणी सोंपचे आदीच
धनी धरता ताच्या कानाक
व्हरता गोठ्यांत
लांब आशिल्ले राजू सोडयता
आनी गांठलायता गळ्यांत
दोन हाती मोडवेंच दावें
गाठी गाठींचें

## 44.
## आमी पिशे जावंया

खूब जाले शाणे आमी
केन्ना केन्ना देड शाणे
तोंडाची वाफ घालोवन
जाले आमी अती शाणें
मात्शें फार्टीं वळूंया
आमी पिशे जावंया

जावन आमी अती शाणे
आमचेच केले आमी दोणे
राज्यकर्ते, समाजकर्ते,
मठाधीश, पिठाधीश,
आप्तइश्ट, आपुडभश्ट
सर्वयमुठीनी आमचे दाडें
मुठी सोडोवन घेवंया
आमी पिशे जावंया

शाणेपणाचे फेटे मारून
जाले आमी सांगकामे
हाचें मात्शें वर्जे उखल
ताची मात्शी गाडी धुकल
हाका व्हरून घरा पाय
ताच्या खड्ड्याक तेल लाय
आतां फेंटे देवोंवया
आमी पिशे जावंया

शाणे जावप साप्प सोपें
पिशे जावप म्हाकठीण
जाका हाचो मंत्र गावला
ताणे आपली जोडली मठी
अत्यानंदी नाचुंया
आमीच आमकां जोखुंया
आत्मचिंतन आत्मपारख
आमीच आमची करूंया
आमकांच आमी हांसुया
आमी पिशे जावंया

ती वाल्या कोळीची काणी आयकली
आनी वाटमारी करपाचो म्हजो धंदो
हावें सोडलो
कसलोय धंदो करचो
धंद्याकडेन लज धरची न्हय
ह्या व्यवहारीक तत्वाक लागून
देवा म्हाका भोगोस
अशें हावेन म्हणूंक ना
पूण चुकून पसून
नारदमुनी म्हजे वाटेन कित्याक येवंक ना
हाची जळजळ मात म्हज्या काळजाक
जाळीत रावली
पापकर्माची आंगभर रोयण
आनी विकारांची वाळटी
तकलेत घेवन मदान्ध जाल्ल्या
वाल्याचो वाल्मीकी करपी
नारदमुनीच्या सोदांत हांव भायर सरलों
आनी/अजाप म्हळ्यार
सगळेच म्हाका नारदमुनी कशे
दिसपाक लागले
हांव तांकाच सोदतां
हें कळटकच ते आकांतान
हांसपाक लागले
ब्रह्मांड नादयत
म्हजी फकाणां – भगल्यो वडयत
तांच्या हांसपाचो अर्थ
कितेंय आसूं

हांव तांका सोदपी
संवसारातलो एकलो एकसुरोच म्हणून आसूं
नातर म्हजो तेजीचो धंदो
सोडून आयलां म्हणून आसू
पूण हांव मात तांच्या
उपदेसांच्या घायांनी
काटमुयो दशिल्ल्या गायंडोळाभशेन
वळवळपाक लागलों
आनी चिमूटभर जीव मुठींत धरून
बद्द धांव मारली
दाराचीं फळकुटां धांपलीं
आनी जळथळी कळीचे नारद
असो मंत्रोच्चार करीत
पाशाणी थपकल मारली
युगां – युगां पासार जालीं
अखंड मंत्रघोष चालू आसा
घराची रोयण जाल्या
विखाळे सोरोप फुसफुसतात
बुळबुळीत वाळटी वळवळटा
आख्खी कूड मुंगरून पडल्या
कानात जीव हाडून
हांव 'त्या' पावलांची सुलूस घेतां
ज्या पावलांनी
भिरांकूळ रोयण
निखळावन वडयली
मातयेचो कणान्‌कण फाफसून
एका अजरंवर काव्याची
रुजवण केल्ली

45.

## तुजी कवीता

तुजी कविता वाचली.
तुवें बरयलां,
चुलीचे चुरचुरे
दुकांचे खारसाणीत
चड भगभगतात.
जिणेची कुतां
भगुण्याचे करायेंत
चड खतखततात.
तुजें वास्तव उखलापें न्हय.
कश्टाचे धारेंत
फाल्याचीं किर्णां तेळटां
भावनेच्या वझऱ्यांतलो
एक तरी थेंबो गळटा
पूण हांगा म्हज्या
रंगयल्ल्या वैभवाक
अस्तमती सया मारता.
फ्लॅटाचे रांदचे कुडीत
वसवशी जळजळ जाळटा
ल्हव पीक वाऱ्यान पसून
जीण अधांतरी उबता
धर्तरी पयस जाता.

46.

# गीत

जिवीत तुजें कवीत कर रे
म्होवें सुरें गीत जांव
क्षितिजाचे पलतडीं तूं
ताल सूर सोदीत राव

सपनाळी जीण म्हजी
खिणयाळो शीण रे
खिणाखिणाक आपयता तुकां
नदरेतलो मोगाळ भाव

तालसूर सोदतना
लय तुजी चुकत रे
बेसुरें गीत नाका
कान लावन बसलां हांव

कवन तुजें घडयताना
एकूच मर्तींत दवर रे
यमक जुळयत बसूं नाकां
जळीं थळीं चोर साव

धाय दिको परमळ तुजो
सैम तुजेर पिशें रे
वाऱ्याक सांगूक विसरूं नाका
तुजे वांगडा म्हजें नांव

## 47.

## म्हादय माये

हे म्हादय माये, सासाये
आवर तुका आवर
व्हांवतात आमी लोटावांगडा
सावर आमकां सावर – तारय

व्हांवतात ते बुडटले
पेंवतात ते तरतले
अशें म्हणून
हुंवार ह़ाडून
व्हळोंवन सगळें व्हरतली?
खळखळावन
मुळां – पाळां
मळब जिखून धरतली?

थरथरतात ल्हारां तुर्जी
थारय तेंकां थारय
व्हांवचे पयलीं, बुडचे पयलीं
ल्हारय आमकां ल्हारय

## 48.

# दुकां

तूं रडटा!
म्हाका काकळूट येता तुजी
घडये वयलोचार आसुंये
म्हजें काळिजूच निबर जालां
पाशाणापरस घट्ट
दोळ्यांच्या कवडुलांत
दुकाचो एक थेंबो पसून
दिश्टी पडचो ना
आळवाच्या पानार खेळोवन
मोती म्हणून नाचोवन नाचोवन
माती भरवण करचे परस
हेंच बरे
रडटा कितें?
शेकय ती दुकां
नदरेतले धगीन
पेटय ती काळजां
उतरांतलें आगीन
तेन्नाच तुका झळकतलें
दिवलेंतल्यो वाती पालयत
ओंठार लाळ घोळयत
बिण्ण काळखांत भोंवपी निशाचर
नातर हीच दुकां – तुजीं, तिचीं, तांचीं
आनी एक एक करून
सगळ्यांचीं जातलीं

## 49.
## यंत्रयूग

यंत्राचे हे घरघरींत
तुजो तूं शेण्टा हांगा
सगळेवटेन यंत्रमनीस
मनीसपण खण्टा हांगा

हात आसात पांय आसात
दोळे आसात, कान आसात
सगळें आसून सगळें ना
नाक पसून घाण्टा हांगा

इंटरनेटचें जाळें विणून
संवसार जालो ल्हान हांगा
बटणां दामपी हात सोडून
बाकी सगळे सान हांगा

विणलें जाळे अंदल्यो गांठी
खंय शेणल्या तुजी मठी
फाटी फुडें घुस्पागोंदळ
आडवी तुजी मान हांगा

कितें दिलें यंत्र युगान
पैसो दिलो मान दिलो

व्हरचें व्हरून कितें व्हेलें
मनशांतलो मनीस व्हेलो
गुटखो दिलो मटको दिलो
व्यसनांचो चटको दिलो
तरी कपल फुटको मनीस
यत्रांवरी घुंवता हांगा
प्लास्टीकचें खतखतें
अजून नेटान शिजता हांगा

कागदाचो पर्याय ताचेर
खिणखीण मेजता हांगा
जाळून पळय, पुरून पळय
यंत्रापसून खर्शेली
जितो जागतो मनीस मात
दिसान दीस कुसता हांगा

कितले कुसले कितले झडले
कोतां तांची मारता कोण?
जोता धरून फोडटा तासां
तांका म्हजो प्रणाम हांगा

## 50.
## निर्शेवणी

ही निर्शेवणी
काळीज पोखरणी
मन ओडटा
जीण तुट्टा
ल्हवू ल्हवू
काळखा धुंदी
किरयता
जिरयता
कोण – सो
खंयच्यानतरी
काडटा ओडी मरणाच्यो
काडा ओडी
व्हलयत नदर
काळखा होर्डी
मळब व्यापी
आमोरी
काजळ काळीं
घन घन कुपां
पेट्टा जोगूल
झडटात सरी

## 51.
## अपेशी

म्हजेकडसून खिणायाळें उतर तुमी घेवं नाकात
तुमचे कडचो शिणयाळो मोग म्हाका दिवं नाकात

हांव फाटीं स्वार्थ फुडें, सदांच जैत ताचेकडेन
रस्त्यावेले फोंडान् फोंड मेजूंक म्हाका लाव नाकात

हासरो कशी नितळ नदर नकळो कसो आयलो पदर
भुतयेची गांठ म्हजे सोडोवंक म्हाका लांव नाकात

आतंक घेवन न्हंय व्हांवता जाचे ताचें स्वत्व पेंवता
व्हावूंन वचूं म्हजें मडें, तडीक ताका लांव नाकात

सत्य खंयचें सपन खंयचें असत्याचें तारुं खंयचें
सैम पिशा आकांताची सवंय म्हाका लांव नाकात

नदर नदर घुंवत रावली, दोळ्यांत दुकां सगळीं मावलीं
अपेशी जिणेत म्हजे तेळून तुमी पळोवं नाकात

स्वासांत म्हज्या उस्वासाची सरगम गुपीत आकांताची
येसाचो आंवडो म्हजो गिळूंक तुमी लाळेंव नाकात

## 52.

## निसरड

ही निसरड
तुजे म्हजे वाटे वयली
बिरीबिरी पावसांत
म्हजें मन ओलेचिप्प
आनी – घडये तुजेंय
जुस्त तेन्नाच
ही निसरड
काळ्या कुळकुळीत पाशाणाचेर
पाचव्या बुळबुळीत शेळ्याचेर
जायते जाण गेल्यात
हे निसरडिंतल्यान
निसरल्यात...
नाक लेगीत धाडावन घेतलां
जायत्या जाणांनी
आमकांय वचुंकूच जाय
वाटेवयली ही निसरड
पार करूंकूच जाय
तूं तुका सांबाळ
हांव म्हका
ना जाल्यार आमी
सांबाळुंया...!
एकमेकांक...!!

## 53.
## शेकानशेक

शेकानशेक पातळिल्ली
सावळी तुमचे फांटभुयेर
तुमकां भानच ना
तुमी इतलेंय कशें चितूंक ना
तुमची चिल्लां – पिल्लां
काचाबूल जातलीं ते सावळेंत
आनी त्या उपरांत
काळखाचें साम्राज्य
पसरट पसरट जायत वतलें
तांचे जिणेचे पावळेंत
खरेंच अशें वचप मात
तुमकां निखालस सोबलें ना

अनंत तुमी
सुर्यकिर्णासारखे तेजिस्ट
सैमपर्णासारखे ओजस्वी
तुमचे आदर्श जिणेचो
हो उजवाड आमका वाट दाखयतलो
हो सैमाचो चंवर
आमच्या जिविताचेर
फुलांचो शिंवर झडयतलो

## 54.
## येतलें भरून मळब

हय इश्टा हांव जाणां
सगळो वाठार जाला नेणा
मळब कशेंच येना भरून
कोण खंयसर कोण जाणां

येतलें कशें भरून मळब
जातलें कशें नितळ तळप
लागली तान भुकेक पदर
हावेसांची खंयची वळख

आमकां आमी उलयनात
तुमचे आमी आयकनात
निश्क्रीय अशे देह आमचे
हालनात केन्ना धोलनात

काळजांत पेटोवन उजो तुज्या
स्वासांत तापोवन स्वास तुज्या
नदर मोखून जागय मळब
जन जागृताय मनात तुज्या

इतलें करून पळय मगा
येतलें भरून मळब खिणा

55.

## सपन म्हजें सपनेता

ल्हानपणातलें सपन म्हजें
मना तुकां वळयतां
मळबा रानांत शेवणें तुजें
कित्याक म्हाका खेळयता

पिराय म्हजी व्हड जाली
जिवाक म्हज्या जळयता
पायांत तुवें घुंगरां घालीं

मळब भरून तळें व्हांवलें
तरी तानेन तोशेता
पोसो भरून उदक हाडलें
कित्याक म्हाका नियाळटा

साहित्याचो मळो फुल्ला
सैम खोशी मनयता
मोगरे मोगरेंत भाग्य तुजें
कित्याक म्हाका लाळयता

तुवें आयज मोग केला
आंगार पांखां फुलयता
दोंगरा माथ्यार उडी तुजी
सपन म्हजें सपनेता

## 56.
## धुकें

धुक्यांत तूं धुकें जालें
दोळे म्हजी नदर पिले
नदरेच्या ल्हारां ल्हारांर
हावेन दोळ्यांक न्हिदयले

मायेमोगान दोंगरार तुवेंन
आळस इल्लो फांफुडलो
तांकां दिसलें न्हिदचे आनीक
मायेन तुवेंन जागयले

देंगण – दोंडीत, दुख कशें
सकल वचून लागलां पिशें
हात दिवन तुवेंन तांकां
मळब मोगान दाखयलें

कणकण वेंगायतना
तुवें रुखांक भिजयले
तना परस मन व्हड
मनात म्हज्या रुजयलें

सुर्याचीं किर्णा घेवन
हावेंन दोळ्यांक जागयले
शेणिल्लीं दुकां शेणोवन
धुक्यांक सोडून म्हजें जालें

57.

## रकाद

दोळ्यांतल्यान घळघळपी दुकां
जेन्ना भावनांचो रकाद
घेवन येतात
तेन्ना....
तळपां – फांतरांचे पसून
पाणी पाणी जाता
आनी...
तातूंत बुचकळपी
पयलीं धडपडटा
फकत जगपाखातीर

## 58.

## तूं

उजवाडाची वाट पळोवपी उदेंत
घोंटेरांतसून भायर येवंक सोदपी सवर्णी
एका भव्य देवळांत
सुचीत शांत शिरशिरीत थंडसाण
आनी रातभर पेटून
काजळीन भरसून गेल्ल्यो दिवल्यो
तुज्या लांब सडसडीत बोटांनी
घांसून पुसून लखख करपी तूं
तूं कोण तें हांव नकळ
तू खंयसावन आयलां
तेवूय हांव नकळ
तुज्या नितळ मुखामळार
रातच्या काळखावरी
अस्पश्ट अशी काळसर सया मारता
इतलेंच हांव जाणा

दिवल्यो घांसतना
तुज्या केसांची बट फाटीं सारतना
तुज्या मुखामळार
तुज्याच बोटांची घस लागता
रातभर पेटून पेटून
अस्वस्थ जावन न्हिविल्ल्या
दिवल्यांतली ही घस
तेलकटशी
पुरायेन तुजे नितळसाणीक
वेंगावन बशिल्ली
घडये तुका ताची जाणवीक
आसत नासत
पूण एक मात खरें
परतून दिवल्यो पेटयतना
तुज्या मुखामळार उजवाड पर्जळटना
त्या काजळी दागाची व्याप्ती
चड जाणवता
कोण पुशीत काय तो दाग?
तुजेच वरी घांसून पुसून
दिवल्यो चकचकीत करून
चुरको सोंसून बोटांनी
वाती फुडें सारपी हात?
काय पेट्ट्यो वाती
बळजबऱ्या पालोवन
काळखाचे साम्राज्य करपी
दिव्या-भुतांचे हात?

## 59.
## रेंवे कण

एक व्हाळ
व्हांवता
व्हांवत आसा
तो पळयना
फाटीं – फुडें
तो केळयना
फुलां – घडे
एका आकांताळ्या हावेसान
तो व्हांवत आसा
आनीक एक व्हाळ
जाका ना नाळ
जो जावंक ना गाळ
तो अनवाळ
आपलें सवळेपण सांबाळीत
व्हावूंक सोदता
हाचे वांगडा
ताकाय थंयच
वचपाचें आसा

त्या नादान
ताचें अस्तित्व
ताका नकळत सोडून वता
आतां –
व्हाळांत भेद उरूं ना
फाटलो खेद उरूं ना
फकत उरला छेद
ती न्हंय – दर्या
आनी मागीर
आपूण खंयतरी
भरसून गेल्लों...
अळणी जिणेंत
मिठाचो स्वाद आयिल्लो
एक रेंवें कण

## 60.
## पिसो

म्हजे शब्द तेन्ना पिशे आशिल्ले
कित्याक नकळो
नाशिल्ले ते खरखरीत
म्हणून घडये...
आशिल्ली मोगाळ ओलसाण
आशिल्लो निर्मळ खळखळ
आशिल्ले भोवमानान थबथबिल्ले
म्हणून थारले आसतीत
ते पिशे...
आनी आयज
तुजे नदरेंत
पयस खंयतरी
सामके तळागाळांत
म्हजे शब्द म्हाकाच
पिसो थारवन
हांसत गेले
हय! खरेंच !
म्हजी पिशी नदर
फकत तांकांच सोदता

## 61.
## भेंट

भेट तुजी म्हजी
अशीच आमुरपिकी
अचकीत याद जागयता
तुवेंन
तुजी काणी सांगली
विचारी नासतना
हावेंनूय म्हजी
केन्नाच कोणाक
सांगू नाशिल्ली
तो प्रवास सोंपताना
तुज्या दोळ्यांतल्या दुकांनी
भिजयल्लें म्हजें फातरा काळीज
अजूनय दरयाता
दोळे उलयतात
तेन्ना
उतरांक जागो नासता

62.

## पिसांट हांसता

रान कशें मातिल्ल्या
ह्या गावांत
एक पिसांट
वारें कशें गांवभर भोंवता
बुचकटांतल्यान
ओरबरडत, पिंजत फरफटत
भायर सरताना रगत बंबाळ जावन
आंगावेल्या बोंदरांच्यो
बोटांत शिरकून उरिल्ल्यो
फाळयो बिदीर सोडून
सोंश्याच्या काळजान धांवत सुट्टा....

दुकां विरयत
भिरभिरती नदर
सगळे खांची कोनशे जळपता तेन्ना
गच्च आंवळून धरिल्ले धपटेंतले
विखाळे, बुरशे जिनस
कुसक्या फळांतल्या किड्यांवरी
काळजाक बुचबुचूंक लागतात
आनी पिसांट
सुकिल्ले व्हाळयेंत
यादिंच्यो गांठी सोडयत वळवळूंक लागता

मळबाचे चादरीतळा
आंगाची गुटली करून
थरथरतो देह
भुंयेक तेकयता तेन्ना
आपलेच संपदेचो
आपल्याच पोटार चलिल्लो
थयथय अच्छेव सोंसू नजो जावन
धर्तरी घुस्मट्टा
आनी पिसांट
बोंबलेच्या देठांतल्यान
निरणांक वेदनेचो
पीळ पड मेरेन आड्डी मारीत उट्ठां.

तिनकात्रेर
शुन्यातली नदर
दिकांपार गरगरून
देहहीन जाता तेन्ना
काळोखाच्या राज्यांत
कोल्यांची कूय कूय
रानभर पातळता
आनी पिसांट
मातिल्ल्या रानांत
शिरकल्यो वादऱ्यो चाबडायत
खाँ खाँ हांसत सुट्टा

## 63.

## कोडू सत

तूं पुण्य जोडपाचो यत्न करता
पूण
हेरांचे नदरेक ती
भौसाची आस्त दिसता
गर्देचे मनोवृत्तीचीं
तुका जाणवीक नासता
तेन्ना
तुजी सगळी पुण्याय
रौरव नर्क थारता
केदे हें कोडू सत...

64.

## गॅलरिंतल्यान

तिसरे माळयेवयले गॅलरींत
धोलत्या वॉलतेरार बसून
सकाळचें वत खायत
हांव कॉफीचे घोंट घेतां
त्या नदर पयस वाठारांत
म्हजे नदरेचे समांतर रेशेंतश्यो
कितल्योश्योच घोर्णी
पाखांटे फुलोवन
गिरगिरून भोंवतात -
अशें कितें आसा काय त्या वाठारात?
काय मेल्ल्यो किडी? जितीं मडीं
खिणभर एक विचार वळवळटा-
आंग फाफुडलेवरी करून
कपलावयली रेग हालची ना
हाची जतनाय घेवन
निमाणो कॉफीचो कडवट घोट पचयत
हांव भितर वतां

## 65.

# पावस म्हज्या घरा प्रिया...

पावस म्हज्या घरा प्रिया
न्हीद म्हजी खळयता
मोर पिसो थुयथूय
वाट तुजी पळयता

रिपी रिपी पावस धारो
काजुल्यांचो नाच फेरो
काळोखाची धुंदी प्रिया
वाट तुजी पळयता

शिडशिडटा पावस मनांत
रमरमता पावस रानांत
किरांव शिंवर शिरशिरी
वाट तुजी पळयता

दडकेर दडी वावझडी
स्वैर वारो आलतडीं
जोगुलता रात प्रिया
वाट तुजी पळयता

## 66.

# तूं फूल घे

तूं फूल घे
हांव कांटे घेतां
तूं वास घे
हांव स्वास घेतां
तूं सूख घे
हांव दुःख घेतां

कांट्यांन काटो
काडूं नाका
स्वासांत दुस्वास
मेळोंव नाका
दुःखार काकळूट
करूं नाका

## 67.
## आयलो पावस

आयलो पावस आयलो पावस
रानां वनां चंवरलीं
पाचवी जावन हरयाळी
आंगान, आंग शिंवरली

न्हयां – व्हाळांक फुटले बांद
झाडां – पेडांक सुटलें कोंब
कणकीची वेळू कशी
पानान् पान शिंवरली

थरथरलीं काजू वनां
आंकुरलीं केगदी बनां
पोंरसातली वाल कशी
थेंबानथेंब शिंवरली

व्हंकल जावन पाचवी सया
धर्तरेची जाली काया
चैतन्याची जिवी शक्त
कणान कण शिंवरली

68.

## म्हजें घर

पयलीं म्हज्या घराक
चार वण्टी
एकूच दार
आनी ल्हानशें
जनेल आशिल्लें
कळखाचे गर्भकुडींत
जमनीक शेळ
आनी जळारींचे
संगीत रंवरंवतलें
व्हावतें वारें
भितर सरतकच
भितरले भितर
घुस्मट्टालें
पूण आतां हावेंन
संकुचीत वण्टी वडोवन
भिजोवन सारोंवन
बेस बरी जमीन केल्या
नितळ जमनीर
कोणेय येवन बसचें
शितळ अंतःस्कर्णान
उमेद घेवन वच्चें
घरभर पळयत थंय
उजवाड पातळ्ळा
पास्टा कोनशांनी

## 69.

# म्हजी मोगिका

तीच तूं !
म्हजी मोगिका !
इत्सा हावेसांनी भरिल्ली !
उफाट यौवनाची भूल सगळ्यांक घालीत
म्हजे जिणेत भरशिल्ली !
उफाट न्हंये देगेर
रिपरीप पावसांत
थरथरतें कणकी बेट कशी
आंगात शिरशिरी हाडून
म्हज्या रंध्रारंध्रांत सळसळायत
हावेंन अणभविल्ली !
गुप्प धुक्यांत भरसून
दवां थेंब्यांचें अस्तित्व
जागयत राविल्ली तूं
हावेंन नदरेंत झोमून जळपिल्ली !
आयज म्हांका दिसता
म्हजे हात मोटवे पडटात
तूं आयज आगंतूक
तुजो हावेस आगंतूक
म्हाका तुजी गरज आसा
म्हाका तूं जायच
नाजाल्यार म्हजी जीण निरर्थक – किंकोंत
ऊठ – परतून एकदां ऊठ, आनी कुडकुडीत शिंयांत
म्हाक ऊब दी
म्हजी मोगिका तूं – म्हजी चेतना !

## 70.

## दिश्टावो

हांव जळपत
जळपत रावलों
तुज्या काळजाचो थाव
म्हाका केन्नाच मेळूंक ना
दर्याच्या तळाक
पावूंक पावलों
करबटांचेर नदर गेली आनी
तांचे जिणे वांगडा
खेळत रावलों
दर्याच्या तळाचो थाव
म्हाका केन्नाच मेळूंक ना
मन रितें –
हात पोतें –
नुस्त्याची गांथन कशी
अणभव पयस हातीन धरून भोंवता
ते पोंवशेल्यात
तांकां हिंमसाण मारता
भरसूंक शकलों ना
तातूंत मिठाचो अर्क
व्हगडावंक शकलो ना
म्हजे जिणेतलों नर्क
पूण आता म्हाका दिश्टावो जाला
मन रितें उरूंक ना
हातीचें पोतें, 'पोत' उरूंक ना

## 71.
## कोणतरी

जाणां हांव
तूं वता ते वाटेर
काट्यांचे जंजाळ आसा
तरी तुजें पांय थार नात
कांटे - कुंटे माड्डून वचपाची
तांक आसा तातूत
तरी पूण
कसो कोण जाणा
तूं घुस्पत वता त्या जंजाळांत
तेन्ना....
आदार तुकां
तुज्या अणभवांचो
वास्तव समाज पिळांवळींचो
अचळय तूं तें जंजाळ
दुसरे वटेन वडयता
ते वटेन कोण ना
कोणतरी वतलो
हें जाणां जावनूय...

## 72.

# तुजे खातीर

हावेंन कितले फावट सांगिल्ले तुकां
हांव वतां ती वाट बरी न्हय म्हणून
पूण तुवें आयकलें ना
तुज्या मोगाक दिका आसुंयेंत
तुजे भावनेन लिपिल्ली
पूण म्हजी वाट दिकाहीन
तरी आसतना तूं येत रावलें, पायांसकल रेंव व्हांवतना
भिलें ना दर्या ल्हारांक लेगीत
हांव वतालो दिवो म्हज्या माथ्यार घेवन
संवसार फकत तुकाच पळयतालो दिव्या फाटल्यान धांवतना
तुज्या आंगार उसळिल्ल्या म्हज्या जोत्याचो चिखल
काळखांतल्यान हावेंन पळयलो
पूण पुसपाक आयलों ना
उजवाडाक लागून म्हजेखातीर हावेंन
म्हजी सावळी जावन रावपाचें तुजें सपन
तशेंच दवरलें
उमाशेच्या बिण्ण काळखांत रावून
पूण आतां -
उजवाडामेरेन तुका वाट पळोवची पडची ना
काजुल्यांक एकठांय करतलों
तुजे खातीर
माथ्यावयलो दिवो तोंडा लागीं हाडटलों
तुजे खातीर

## 73.
## दायज

आयज
हावेंन
म्हज्या
पोरसांत
एक निळें निळें
झाड रोयलां
आनी ताच्या
तळा
पाळां
कणकणी
विश्वहावेसांचे
दायज
थेयलां

74.

# बालगीत

## पावसाचें गाणें

झिरी झिरी झिरी झिरी पावसाचें पाणी आमी रमारमा नाचूं या
शिरी शिरी शिरी शिरी पावसाची गाणीं आमी सारेगमा गावूं या

लिपून पळयता वोताचो राजा
फुलपाक्यांची मजाच मजा
रंगा – रंगाचे कपडे घालून ह्या फुलांचेर त्या फुलांर
भिरी भिरी भिरी भिरी तांचे वांगडा आमीं सगळीं भोवूं या

झरे माणकुले खुळू खुळू खुळू खुळू
नुस्तें पिटकुलें सुळू सुळू सुळू सुळू
कागदाच्यो रंगीत बोटी करून ह्या झऱ्याचेर त्या झऱ्यार
गिरीं गिरीं गिरीं गिरीं भोवऱ्यामदीं बोटी आमच्यो सोडूं या

गिरयल्यो मळबान रंगांच्यो रेशो
इंद्रधणुच्यो लांब लांब मिश्यो
भस भस करून रंग पेरून ह्या मनाचेर त्या मनार
रिपीं रिपीं रिपीं रिपीं रंगांमदीं आमीं सगळीं न्हांवूं या



**शाबा नारायण कुडतरकार**

जल्म : 27 मार्च 1970 वर्सा, सत्तरींतल्या नानोडे गावांत, एका गरीब शेतकार कुटुंबात जालो.

गोवा विद्यापीठांत कोंकणी विशय घेवन एम. ए. पार्ट - 1 मेरेन शिकप केले.

ACGL कंपनीत ज्युनिएर इंजिनिअर म्हण नोकरेक आसलो.

कविता, एकांकी लेखन करून थळाव्या आनी राज्य थरावयल्या सर्तिंनी जायतीं इनामां जोडलीं.
सत्तरींतल्या साहित्यिक, भाशिक, सांस्कृतिक चळवळींत सक्रिय सहभाग.
पर्यावरण राखण, म्हादय बचाव आंदोलनांत वांटो.
निसर्ग भोंवडेचो खास छंद.

1 एप्रिल 2008 दिसा अवघे 38 वर्सांचे पिरायेचेर एका अपघातान मर्ण.

फाटल्यान घरकान्न शोभा, चलो शुभम, चली सोबिता, आवय, भाव, भयणी असो परिवार.

मर्णा उपरांत **'वावझड'** (कविता संग्रह) **'भुंयगर्भ'** आनी **'तानसुर्या'** (एकांकी संग्रह) अशीं तीन पुस्तकां प्रकाशीत.

**गोवा कोंकणी अकादेमी**